# दाण्या येदी धर्तरी

प्रकाश पाडगांवकार




ISBN : 978-81-932594-1-2

दाण्या येदी धर्तरी

(कविता संग्रह)

प्रकाश पाडगांवकार

प्रकाशन क्र. : **06**



पयली आवृत्ती : **2020**

उजवाडावपी :
**सृजन–विश्व प्रकाशन**
मातृकलश, एम–16
हाऊसिंग बोर्ड कोलनी, आल्त पर्वरी
बार्देश - गोवा - 403521

अक्षर जुळणी :
**रिया ग्राफिक्स,**
मोबायल : 9881409237

छपापी :
**इम्प्रेशन्स,** बेलगावी–590002

मुखचित्र :
**श्रीधर कामत बांबोळकार**

मोल : ₹ **200/–**

**Danya Yedi Dhartari**

(The Earth Big As a Grain)

(A Collection of Konkani Poems)

by : **Prakash Padgaonkar**

**Publication No. :** 06



**First Edition :** 2020

Publisher :
**Srujan-Vishwa Prakashan**
Matrukalash, M-16,
Housing Board Colony,
Alto-Porvoirm, Bardez-Goa 403 521

Typesetting :
**Riya Graphics**
Mob. : 9881409237

Printer :
**Impressions,** Belgavi-590002

Cover Design :
**Shridhar Kamat Bambolkar**

**Price : ₹ 200/-**

**ISBN : 978-81-932594-1-2**

डॉ. तानाजीबाब हळर्णकार
नागेशबाब करमली
माणिकराव गावणेकार
हांकां
आदरान अर्पण

# मांडावळ

1.

## दाण्या येदी धर्तरी

वेंतभर जिणेची
मैलभर दुखणीं
जण एकलो सांगता
आप आपली काणी

सुपा येद्या ब्रह्मांडांत
दाण्या येदी धर्तरी
अदृश्टाच्या हातान
अतर्क्य खामसुत्री

*20-10-2009*

2.

## बिंब - पडबिंब

अज्ञाताचें दिव्य बिंब
घालीत तासांचें पडबिंब
विश्वाक तोलता

बिंब स्वयं अविनाशी
आंगान अजर पारदर्शी
स्थायी तशें संहारी

बिंबून भितर हें बिंब
करून रुपांतरण पडबिंब
म्हज्यांतल्यान वावुरता

*08-09-2008*

3.

## निराकार : चैत्य-आंगण विधात्याचें

निराकारा
हांव दिग्ग उबो
तुजे सामकार
विरगळून तुजे भितर
पुसून म्हजें
हांवपण विनाशी

निराकारा
हांव आतां जालां तूंच
तूंच म्हज्यांतल्यान
व्यक्त जावन
पातळ्ळा
जावन निराकार

निराकारा
आतां हांव
निराकार अविनाशी
घडून
भितरल्यान पारदर्शी
चैत्य-आंगण विधात्याचें

*20–10–200१*

4.

## विधात्याचें गुपीत

पावस-मॉड झोडटा
भुंयकांप त्सुनामी
विध्वंस कांडटा
लाव्हा-रोसा उजो
धर्तरेर लोळटा

विधातो सुगूर एकाग्र
खेळ पटार खेळटा
अळंग अदृश्य हातान
निर्मून वसोवन मोडपाचो
दाव निसुवार्थ मांडटा

*26-03-2011*

5.

# पृथ्वी तूं भूदेव गणपती

पृथ्वी तूं साक्षात भूदेव गणपती
आदीमाये शक्ती चिरंजिवी

घुंवतना तूं पृथ्वी वाटकुळो आकार
दिसता साकार गणपतीचो

माथ्यार गा तुज्या नक्षत्रांची झर
सुवर्ण शिंवर अभिषेकाक

धनधान्यां पिकां फळां फुलां भार
रुतूंचो शिरंगार चिरस्थायी

बाप्पा तूं सांठो अक्षय धनाचो
धनी तूंच ताचो सासणाचो

म्हादर्या -माणकांची आंगार कुसर
मौलीक प्रस्तर तरेकतरां

तुज्या पांयांलागीं मनशांच्या मनांचे
पीक दुस्वासांचे लासून उडय

दोळ्यांक समेस्तां भव्य तेंच दाखय
कानांचेर सादय दिव्य तितलें

देवा ॐकारेश्वरा झरो तूं गिन्याना
मनशांच्या उत्थाना कार्य तुजें

*19-08-2010*

6.

## प्रतीक ईश्वराच्या आविशकाराचें

हांवे पोंसोभर मातयेक विचारलें :
तूं कोण कितें गे?
कितली तुजी पिराय?

मातयेन सांगलें :
हांव आंग धर्तरेचें
म्हजी पिराय
सहस्र अब्जावधी वर्सां

हांव अविनाशी,
नित्य प्रसवपी नित्य नवेली
धर्तरेचे सगलें भोग भोगीत
मातयेच्या रुपान
सासणाची उरतली.

हांवे फळा-फुलांच्या भाराक विचारलें :
तूं परतून परतून कसो फळटा फुलता?
तुज्या मुळांचो
अक्षय स्रोत खंयचो?

भारान सांगलें :
हांव धर्तरेच्या
जिणे तत्वांचें अमृत्वाचें सार
चंवरून पिकून घमघमप
हो म्हजो सहज धर्म.

हांवे दर्याक विचारलें :
तूं सहस्र युगां
ल्हारार ल्हारां खेळयता, शेंवटीता
तुजें अखंडीत गायन करता
तें कोणा खातीर?

दर्यान सांगलें :
हांव म्हज्या मनाचो किमयागार
म्हजे मन-अवस्थे प्रमाण
रावता नाचयत ल्हारार ल्हारां

भितर तळाक नित्य स्तब्ध शांत शांत
भायर उचांबळ आकांताळो
तसोच सुस्त आळशीसो
रावन म्हजेच मस्तेंत
आंग सोडून रचणाऱ्याक होरायता.

हांवे धतरीक विचारलें :
तूं कित्याक ओडटा
तुज्या आंगार
चादर काळखाची झिगझिगपी
नक्षत्रांच्या माणकां - मोतयांची?

धतरीन सांगलें :
हांव कोटी ब्रह्मांडांच्या
सांगातान रात सारून
फांतोडेर देवते उषेच्या पांयार
म्हज्या रूतू-वैभवाची
नित्य फुलां ओंपता.

हांवे सुर्याक विचारलें :
तूं सुवर्ण अग्नीधारी
तेजवंत अखंडीत लखलखपी
तुज्या दोळ्यार कशी दाटना
उजवाडाची पुरो - थकव्याची साय?

सुर्यान सांगलें :
हांव तारो स्वयंभू
उजवाडाच्या गर्भाचो
उजवाड म्हजो स्वास,
उजवाड म्हजो उस्वास
उजवाडांतच वसता म्हज्या
अमृत्वाचे वास्तव्य

म्हज्या लखलखपी किरणांनी नंदता
इंद्रधोणूंच्या सप्त-रंगाचो तासांदीक पुंजो
सगले वटेन स्वैर
उधळत वचपी, शिंवरत वचपी.

मागीर म्हज्या मनाची सप्त-मळबां
झंकारूंक लागून
अंतस्कर्णांतल्यान आयली जाप :
ईश्वरीच्या कुसव्यांत जाली जशी
कोटी ब्रह्मांडांची उत्पत्ती
तसोच जल्मलो हांव
म्हज्या आवयच्या कुसव्यांत

हांव मनीस अजरंवर
एक दीस एकवट्टलो
धतरिच्या अब्जावधी वर्सांच्या मातयेंत
उरपाक सदाकाळा खातीर
सैम फळयत चराचराच्या रूपान

हांव प्रतीक ईश्वराचें
ताच्या  उन्नत जावपी
अनंतकाळाच्या आविश्काराचें.

---

*जून, 2008*

---

7.

## विश्व-ब्रह्मांड मनीस

हांवें म्हजें
ध्येयपूर्तिचें 'विचार-यान'
सप्त मळबांच्या
गहनतायेंत सोडलां
करूंक ताका स्वयं प्रवास
अकल्पीत वर्सां
अदृष्य शक्तीचे सासायेन
धर्तरेचेर मनीस उत्थानाची
प्रगल्भ दिव्य-नदर
प्रस्थापीत करपाक

हें म्हजें
अलौकीक 'विचार-यान'
रावतलें करीत प्रवास
आपले ध्यान-शक्तीन
सांठोवन घेत
ब्रह्मांडाचे उर्जेक
प्रक्षेपण करून
फुलोवंक धर्तरेच्या कणांकणांत
नव-चैतन्याची फांतोड.

म्हज्या आंतरीक इत्सेच्या 'विचार-यानांत'
आसा चंद्र-गिऱ्यांच्या
भारान जोरगतून
अक्षय उद्‌बोधीत
पांचतत्वांच्या चिरंजिवी गुणांची
धर्तरि वयली बहू प्रसवा माती
आवयच्या काळजान
खिणाखिणाक
फळत फुलत रावपी,
आंगार रुतू-वैभव मिरोवपी.

ह्या मातयेचे
कणान-कण पुनवेवन
विद्युतभरीत जाल्ले
सर्वांगान गाबणे जावन
मुक्त शिंवरतले सर्वत्र अंत्राळांत
सहस्रावधी पटिंनी
गुणाकारून, विशाळून
सुर्या भोंवतणच्या
समेस्त गिऱ्यांच्या
नापीक भुंयेंक आपणायत
तथास्तुन तातुंतल्यान
घसघशीत जिवें-ताज्जें
नितळ उदक
गाजयत म्हा-मंत्र पांचतत्वांचो

मातयेतल्या कणाकणांतली
आत्मलक्षी पिकाळ
एकचित्ती तरेकवार
रूखावळींची बियां
मुळून, रूजून, तरतरून, विस्तारून
धर्तरेवेली वट्ट वनस्पत
पांचवी जिवसाण, जिवावळ
प्राणप्रतिष्ठेन समेस्त गिऱ्यांचेर
जल्माक हाडटली करून गिऱ्यांक
धर्तरेवरी सुजलाम सुफलाम
रोसा-वासांच्या गिरेस्तकायेन
सदांकाळ धुश्टपुश्ट.

म्हजें आत्म-शक्तीचें 'विचार-यान'
नक्षत्रांच्या पुंज्यांच्या
लखलखपी तासांचेर,
गहन गुढ कृष्ण विवरां
तांच्या भितरल्या गुप्त काळखांचेर
बिंबोवन म्हाशक्तीची
चुंबीक उत्सर्जनी सप्तरंगी किरणां
दिपकावणेची अखंड आतषबाजी
झंकारायत दवरतली.

ध्येयपूर्तिचें म्हजें 'विचार-यान'
कालातीत सिद्धी जोडून
येतलें परतुन मूळ स्थानार
मनशांनीं, विध्वंशक अनन्वीत
अत्याचार घडयल्ल्या धर्तरेचेर
सुनियोजीत अमृत वेळार

तेन्नां :
    निर्मून वसोवन मोडपाच्या
    उत्क्रान्तीच्या घडणुकां वरवीं :
मनशांनी धर्तरेचेर लादिल्लीं
सगलीं पातकां
म्हा-प्रचंड प्रलयान
धुवन गेल्ली आसतली

लागूंक धर्तरी घडूंक
नवी जिवीताल्ल
हाडूंक जल्माक
चराचराचेर राज्य प्रस्थापीत करपी
मनीस कुळयेचो मुकूटमणी
हे धर्तरेचोच सर्ग घडोवपी
विश्व-ब्रह्मांड मनीस

---

*20-02-2018*

---

४.

## सुर्य-प्रार्थना

धनया सुर्या दिसेश्वरा
जीव-सृ ष्टीचो तूं प्राणेश्वर
अनंतकोटी ब्रह्मांडा भितर
मनीसकुळयेचो धुरंधर

तीर्थ मांडवी जुवारीचें
सप्त म्हा-सागरांक भेटय
पांच खंडांच्या एकवटाचो
दिव्यताये दिश्टावो रुजय

समेस्तांच्या प्रार्थनेंतल्यान
फुलूं बुद्ध, जेजूची करूणाय
धर्मांच्या सरमिसळेन नांदूं
कुराण, पुराण, गीतेची प्रज्ञाय

ध्यानां अध्यायनांत देंवय
मनीसकाये माये ओलाय
विश्वधर्माची बुन्याद जांवदी
भावपण स्थैर्य शांतिकाय

खिणा खिणान प्रसव काळाचो
सुर्या तूं गवाय उत्क्रान्तीचो
सांग आमकां केन्ना घडटलो
सर्ग सस्यश्यामल धर्तरीचो

---

*ऑगस्ट, 2009*

---

9.

## रहस्य विश्व निर्मणेचें

फुलतना दसणी फूल
पाकळ्यो ताच्यो देखतां
घुसळचीं उज्या केणां
तशें भितर अणभवतां

कळ्याचे फूल जावप
दिसता क्रिया सादिशीच
विश्व निर्मणेचें रहस्य
उलगडायता ती आपशीच

*मार्च, 2011*

10.

## वैभव ब्रह्म-उजवाडा

गुलाल–उत्सव फांतोड पारा
वसुंधरा हुंबरो हुपता
झिळमिळटे रंगा कारंजे
मळबा आंगार शिंवरता

गुलाल–उत्सव फांतोड पारा
सुर्य रातीक विरगळायता
धर्तरी फुलून कळो कशी
जिणेक आस्थे तासां भरता

गुलाल उत्सव फांतोड पारा
स्वर ऋचेचे विश्व आळयता
काळखाचे खर तपश्चर्येक
ब्रह्म – उजवाडा वैभव फावता

---

*20–10–2008*

11.

## कीट

बिण्ण काळे-काळखे राती
फस्का-काडी पेटयली
आनी म्हज्या मळबाचेर
उजवाडाची कीट सोडली

कीट म्हजी फुरफुरिल्ली
जोगलां निर्मिता उज्यांची
वाट अस्कडी झगझगिल्ली
पुनव फुलयता जिणेची

*25-09-2008*

12.

## तूं कुमार

तूं कुमार
हांव माती
तुजे हातीं
म्हजी गांठ

कर म्हाका
तुजी पण्टी
लाय वाती
निरंतरा

*06-09-2010*

13.

## तुजो स्पर्श

हांव निर्विकार
बीं सुपुल्ली
ध्यानस्त म्हजे भितर

बसल्या निवांत
करून उकती
म्हाका म्हज्यांतल्यान

अनाहत नादान
पळयता वाट
तुज्या स्पर्शाची

तुज्या स्पर्शान
म्हजे भितर
जितो जिवात्मो
प्रस्फुटपाची

*07-10-2009*

14.

# तीन कविता : मोगाच्यो

1. चंद्र तंद्रेला
राती वेंगेंत
चंद्र तंद्रेला
चान्नें पिकून
        विरगळ्ळा

भारावला दर्या
फारावला सुर्या
उक्त्या दोळ्यांनी
        फांतोडला

**2. पावस अखंडीत**

पावस अखंडीत
तुज्यो यादी
उस्तीत झड्टा

हासयता रडयता
भितर जोगूल
जावन कड्टा

**3. कोणाच्या ध्यानान**

कोणाच्या ध्यानान
ल्हार दर्याचें
सर्ग वेंगयता

तपस्वी खडपार
करून समर्पण
पुनर्जल्मता

*12-06-2017*

15.

## म्हजे दोळे

माणकां मोतयां रचली तुवें
तुवेंच निर्मिले म्हजे दोळे
अजापा भितर अजापी गा
देवा तुवें दिल्ले दोळे

दोळ्यांनी ह्या देखून तुका
जाता हांवच तुजे दोळे
साकारून तूं दोळ्यांनी म्हज्या
तूंच जाता म्हजे दोळे

देखता जेन्नां दोंगर-खडपां
नदर-छिन्नी कोरांतता
नाका तितलेंय कडेक काडून
रूप दिश्टाव्या अळंकारायता

दोळे म्हजे विस्मित तुजें
विस्मितांची रचता मुळां
विस्मितांची गवाय जावन
विस्मितांची भोगता फळां

दोळे म्हजे तुजें आयदन
मिस्तुरांचें घोळयत रसण
इंद्रधोणुचो बांदता पूल
सृजनतायेक घुसळावन

दोळ्यांक नित्य दाखयता तूं
तुजी निर्मणी नित्य नवेली
चिरकाळाचेर मुद्रा उठोवपी
म्हजीय ताचेर पडटा पावली

*16-10-2008*

16.

# आळवाचें पान

आळवाच्या पानार लिख्ख
हांसता नक्षत्राचें थीक
थीक मातयेंत जिरतलें
उजवाड काळजार पेरतलें

पांचवें पान हें आळवाचें
स्वत्व नीज पांचतत्वांचें
अल्प खिणांची जीण जोडटा
नातें अतूट अनंतत्वांचें

*12-10-2008*

17.

## हो कोण उदार अज्ञातसो

हो कोण उदार अज्ञातसो
पितृ-हृदयी शक्तीचो
हाडटा दिगंतातले
उदका कळशे कुपांचे
रकयता तानेल्ल्या
धर्तरेच्या पोशांत

जिणे झर निरंतराची
उजयता मातृशक्तीची
व्हट धन-धान्यान भरता
आनी घडयता धर्तरेचो
सृजन-उत्सवी कुसवो
नेमान फळत रावपाचो

*05-10-2009*

18.

## श्रावण

धोलता श्रावण
रोसाळ पिकांनी
इंद्र धोणूच्या
वोल्या रंगांनी

पर्मळिल्ल्या
रुतू-पर्वाचो
गाज दर्याक
आत्म-धुंदीचो

म्हजे भितर
गुल्ल एकलो
करता सृजन
उत्सव कालो

*02-10-2009*

19.

## मनाचो पियानो

वाजलो मनाचो पियानो
ल्हारार ल्हारां निनादलीं
नक्षत्रांची भिरीं किणकिणून
धायदिकांनी एके एके वळीन
पयस पयस गेलीं

गोठेवन शेणिल्ले सूर
खंयच्यान तरी म्हाका सोदीत आयले
उदकार थेंबे टपटपचे तशे
म्हजे भितर एकरूपले
आर्त-सुरांची गांथन जावन

पयस फिकटशा मळबाचेर
वतांच्या किरणांचें पिशोल
रंगान थपथपून रेशो पितारल्यो
आनी म्हज्या मनाचो पियानो
लागलो नाचोवंक सुरांचे इंद्रधोणू

*21-09-2009*

20.

## हांव असो कसो

हांव हे घटकेक
काळाच्या मुळसाक बसला
आनी हांगच्यान हांव
पळयता वयर
तेन्ना दिसता म्हाका रान काळाचें वाडिल्लें
आनी आता तें
म्हज्या मेरेन अस्तावेस्त पातळिल्लें

हांव हे घटकेक
नियाळटा म्हाका
जाणून स्वताक
काळाचो एक लुप्त जावपी घटक
सपन एक काळाचें
काळाच्या सांगातान जियेवन
सपनच कशें विरगळपाचें

हांव खंय उरतलों?
खंयच ना
हांव आसा आसतलो
हो एक भास, हेंच वास्तव!
ह्या वास्तवाक ना कसलें
बुन्यादिचें मुळावण

हांव उजो न्हय?
म्हाकाच पेटोवन पेटत राविल्लो?
हांव म्हासागराचो तळ न्हय?
पोंदच्यान हुमटावंक राविल्लो?

हांव सुर्याचो वंशज न्हय?
फाल्यांच्या काळखा कुसव्यांतलो?
मळबाची कंवची फोडून
झोकून दिवंक राविल्लो?

*13-02-2010*

21.

## म्हजें अस्तित्व

फाल्यां हांव
आसलों कितें नासलों कितें
कोणाक कसलोय फरक पडूं
वा ना पडूं
अशें हांव म्हणचो ना

हें विश्व-ब्रह्मांड
म्हज्यांत भरलां
हांगच्या कणाकणांतल्यान
म्हजें अस्तित्व पर्जळलां
हांव तातूंत भरसलां

हांव जियेतलों जावन
सैमाची सृजन प्रक्रिया
हांव अजरंवरत मुरतलों
जावन तत्व ब्रह्मांडाचें
ब्रह्मांडाच्या मातृ-शक्तीचें

*20-09-2009*

22.

## काळखा-कुसव्यांत उजवाड

भुरगेपणीं दिसतालें
रावन दोंगरा देगणार
फुलोवन पाखां मनाचीं
उदेवपी सूर्य जावन
अंतराळाक वेंगायत रावचें

सुखाचे ते दीस
कापसावरी हुबताले
रुतू-रुतूंच्या वासा-रोसांक
ओठांचें म्होंव लायत
फुलपाखे जावन भोंवताले

आता मनां-अंतराळाक
ओड व्हांवत्या ताऱ्यां-पुंज्यांची
आनी लक्कुबाय नित्यनेमान
काळखा - कुसव्यांत
उजवाड पिकयतल्या सुर्याची

*29-01-2010*

23.

## चराचर हांवूच

म्हजे फकत दोळे
दोळ्यांची दिश्ट तूं
म्हजे फकत कान
कानांचें आयकप तूं

म्हजो फकत मेंदू
मेंदूचो उजवाड तूं
म्हजें फकत काळीज
काळजाचो जीव तूं

तुजे बगर फिको
जाडजूड गुळो
एक तुजो स्पर्श
जोगलांचो सळसळो

तुका खंय सोदूं
तूंच म्हजे भितर
तुज्या सांगातानच
हांव सगल्यांभितर

अणभवतां मरण
म्हजो पुनर्जल्म तूंच
तूंच जिवो उरून
जाता चराचर हांवूच

*03-09-2010*

24.

## कळो

फुलता कळो फुलता कळो
धतरि वेंगेंत जागता कळो
बाळटेरान सासणाय निर्मून
काळीज पर्मळा शिंपता कळो

*23-04-2010*

25.

## हो कोण?

आयज म्हजी सावळी
ब्रह्मांडार फांकली
इल्लीशी कूड म्हजी
अशी कशी तांकली?

आयज म्हजी पावली
मुद्रांवक लागली
कोण म्हज्या पावलांनी
चलता वाट चिरकाली?

*07-11-2010*

26.

# काळा झापाळो

अनादी अनंतकाळा झोपाळो
धोलता बाये धोलता
तातूंत बसून श्रीकृष्ण नियंतो
दोनूय तोंकां जोडटा

अनादी अनंतकाळा झोपाळो
श्रीकृष्ण बाये रचैता
अनादी काळाक स्पर्श करून
अनंतकाळाक जियैता

अनादी अनंतकाळा झोपाळो
जाता सूर उत्क्रान्तेचो
श्रीकृष्ण उलैता भास काळाची
तो धर्म तत्वांचो उद्गातो

अनादी अनंतकाळा झोपाळो
धोलता बाये धोलता
जिणे मरणा सांगड घालून
आलतड पलतड दाखयता

*19-02-2010*

27.

## वादळां

आतां वादळां शान्त जाल्यांत
आनी दिगंताची तारवां
आकांताळ्या मोडझोडींक तोंड दिवन
धक्यार थिरांवक लागल्यांत

पिसावल्लो राकेस दयामाया नाशिल्लो
विनाशाचे वादळी-भोंवरे निर्मुन
अच्छेव कांडून आता असहाय
मद जिरिल्ल्यावरी निचेश्ट पडला

पृथ्वी घुंवता
कृष्णाच्या किरंगळीचेर कशी...
तिची भितरली सृजन-उर्जा चिरस्थायी
पातळायता संमोहन चराचराचेर

*02-09-2009*

28.

## तूं काळा कुसव्यांत

तूं चान्ने जावन हांसता
उजो जावन ल्हासता
फुलांतल्यान पर्मळटा
झऱ्यांतल्यान झुळझुळटा...

चराचरांत भरला तूंच
तूंच सगलें व्यापून
काळा कुसव्यांत विसावता
काळा कुसव्याक उजयता

*17-09-2009*

29.

## आमचें घर

वडाचे सावळे भशेन आशिल्लें
आमचें भुरगेपणांतलें घर
आतां आमचें उरूंक ना!

ह्या घरांत रातचें
नळ्यांतल्यान चंद्र-नखेत्रां दिसतालीं
पावसा दिसांनी
उदका थेंब टपटपताले
वाऱ्या वावझडीन
शेणाची जमीन भिजून
घरभर ओल थंडायताली
शिंया दिसांनी
कुडकुड्यान आंगां शिरशिरतालीं

तरीय ते दीस
कितले सुखाचे
भावंडांच्या सांगातान सारिल्ले
रुतू रुतूनी हाडिल्ले
सण फेस्तां दबाजे
एका रक्ताच्या नात्यान
जिणेचे आंग जातालें

घरा वांगडा
आतां आदलें कांयच उरूंक ना
भावंडानी थाटले
आपआपले 'संवसार'

तरी हें घर
म्हज्या मनांत आजुनय
घर करून आसा
न्हिदेंत जागेपणीं
आमचें नातें सांगीत आसा

राती हांव सपनांत
ह्या घराच्या दारांत पावलों
जाल्यार
म्हजी आई
घरांत सान्न मारीत
हुंबऱ्या लागीं पावल्या
आनी म्हाका
हुंबऱ्यार राविल्लो पळोवन
म्हणूंक लागली :

"बाबा यो मरे भितर
हुंबऱ्यारच उबो रावला?"

***06-01-2012***

30.

## सुरींग नव्या काळाच्या प्रसवणेचें

दिसलें म्हाका
वचून चंद्रार
स्थापचो थंय राबितो
समधर्मी संवसार भरच्या मनशांचो!
अशें येवजितनाच
तपस्येन - दिश्टाव्यान
पावलो हांव चंद्रार.

आनी कितें काय म्हणल्यार
खडबडीत, उपेक्षीत चंद्राचेर अचकित
रावलो म्हजे मुखार उबो
खाडा मिशयांचो धर्मीक मनीस
पयलींच येवन थंय
राबितो केल्लो.

सहस्र युगां
मनशा-मनशांक वेगळावन
पृथ्वीर शेक गाजोवपी
हो धर्मीक मनीस हांगा कसो?
हें येवजितनाच
ताची खबर घेवन
घातलो हांवे चंद्राचेर
साश्टांग नमस्कार.

त्या मनशान विचारलें म्हाका :
कोण तूं खंयच्यान आयला?
सांगलें हांवे :
आयला हांव पृथ्वीवेल्यान.
हाडला कितें येतना? :
सांगलें हांवे :
आयला घेवन एक सुरींग.

ताणें विचारलो म्हजो धर्म,
हांवे सांगलें :
म्हजो धर्म आप, तेज, जल, वायू, आकाश
हांव मानतां
सर्वधर्म समभाव
हांव पातळायतां आचरणांतल्यान
मनीसधर्म.

शिकयता हांव
खुर्सार खिळायल्ल्या जेजूची
चुकतल्यांकय माफ करपाची सोसणीकाय.

रुजयता हांव गीता
कुरुक्षेत्रार उपदेश करून
नात्या गोत्यांतल्या आपल्या पेल्यांकय
बुद्द शिकोवन
संभवामी युगे युगे म्हणपी
श्रीकृष्णाची.

पैगंबर महंमदाचे शिकवणी वरवीं
हांव दर्शयता विश्व-ब्रह्मांड निर्मितल्या
अल्लाची पारदर्शकताय
जो भरभरून दिवन
आमच्या कानांनी आयकता
आमच्या दोळ्यांनी देखता
जो दयेस्त सदाकाळ आसरो
आपले भितर सगलें आस्पावन घेवपी.

हांव बुद्धाची प्रज्ञाय शिकोवन
एका सुतान गुथपा खातीर
जागयता मनशां भितरलें मनीसपण
हाडूंक एकठांय एकाच ध्येयान
संवसारभरच्या मनशांक.

ताणें विचारलें :
तें सगलें बरें आसा
पुण म्हाका सांग
तूं खंयच्या वर्णाचो, खंयच्या जातीचो?

हांवें ताका स्पश्ट सांगलें :
हांवे म्हजो धर्म, वर्ण, जात, पंथ
सगलें पृथ्वीर सोडून आयलां
म्हाका तांचें कांयच लागना
"हांव विश्व-ब्रह्मांडव्यापी मनीस"!

ताणें म्हजे मुखार
येदें व्हडलें प्रस्नचिन्न दवरून सांगलें :
तशें धर्म, वर्ण, जात, पंथाचें
मूळ सोडून येवंक जाता?

तेन्ना हांवे ताका सांगलें :
तेच खातीर हांव
घेवन आयला सुरींग करूंक स्फोट
जाच्या खर स्फोटांतल्यान
सासणाच्या प्राचीन काळवडाचें वठिल्लें मूळ
गदगदून हालून घट जावन
फुट्टल्यो ताका
नव्यो आंकऱ्यो-कोमऱ्यो
नव्या अजरंवर काळाच्या प्रसवणेच्यो.

*27-03-2010*

31.

## पर्वां काळ-नियतीची

धाय दिकांनी लखलखून गेल्ली शेवणीं
सांजे पारार घोटेरांत परतलीं
ओंपून आपणाल्या चोंचींतल्यान बियां
रंग-रुपकारांच्या घसघशीत घोंसांचीं

घोटेरांत विसव घेतात शेवणीं
उबयत उर्जा फायच्च्या शिंपडावणेचीं
कोण पिकयता हांच्या पाखांनी उजवाड
जी पेलतात पर्वां काळ-नियतीची

*22-09-2009*

32.

## पोन्नीं आयदनां

सणां परबांच्या दिसांनीं
माळ्या वयली पोन्नीं आयदनां
घांसून चकचकून
रांदचे कुडींत पावतात
खूब दिसांनी
घरांत घरचींच जाण्टीं मनशां
आयिल्ल्यावरी

ह्या आयदनांनी
आसतात घुस्पल्ल्यो यादी
काळगतीच्या पिळग्यांच्यो
फाटल्या, आजच्या आनी फुडाराच्या
ती ताणीं हाताळिल्ल्यान
मुखार जागोवंक यादी
नासुनय आसपाच्यो

*01–09–2016*

33.

## म्हानिर्वाण म्हावृक्षाचें

(रवीन्द्रबाब केळेकार हांच्या 27 ऑगस्ट 2010 ह्या निर्वाण दिसा बरयल्ली कवि

पोंसोभर मातयेंत बीज रोयिल्लें
तातूंत इल्लेशें रोंप जल्मलें

बीज हातांत घेवन पोशेल्लें
उमो घेवन दोळ्यांक लायिल्लें

रोंप नाजूक ल्हवल्हवशें
आंगा पांगान मोवमोवशें

ध्यास बिजाचो विश्व निर्मिचेलो
दीस भाग्याचो भुंयेर हाडचेलो

रोंप इल्लेशें विस्मितायेचें
आसलें भव्य महावृक्षाचें

घसघसून तें वाडत रावलें
कांडा-खांदयांनी घुटमुटलें

बिजेंत सृजन सुप्त न्हिदिल्लें
म्हावृक्ष जावंक मुक्त तरतरलें

खडपां फोडीत तेंकलें पाताळा
उजवाड पिवंक लागली मुळां

म्हावृक्ष वेंगयतालो मळबांगणां
काळपर्वांची वाजयत पांयजणां

म्हावृक्षाचें घडला म्हानिर्वाण
मुळातळा लक्ष नक्षत्रां निर्माण.

---

*27-08-2010*

---

34.

## मनशांचें वाळवंट

भर मनशांच्या वाळवंटांत
एक चेरो वळखीचो दिसलो
लागीं वचून पळयतकच
हांवच तो केन्नातरी शेणिल्लो

तशें जाल्यार हें वाळवंट
शेणिल्ल्या मनशांचें तर?
हांव हांगासर कसो पावलो?
हेंय एक उमाणें तर?

*06-05-2016*

35.

## मूय आनी मनीस

म्हज्या आंगार इल्लीशी मूय
हुळहुळपाक लागली
हांवे तिका अचळय
एका हाताचे चिमटीन उकलून
दुसऱ्या हाताच्या तळटार
हाडून दवरली

ती मूय तळटार
थोडीच रावता
लागली ती परतून हुळहुळपाक
तेन्ना हांवे तिका विचारलें :
मुये तूं कितें सोदता?

मुयेन म्हाका विचारलें :
हें तूं म्हाका विचारपी कोण?
हांवे जाप दिली :
हांव मनीस संवसाराचें व्हड अजाप म्हण्टात तो

हें आयकून मुयेन म्हाका प्रस्न केलो :
तशें जाल्यार तूं म्हाका दिसना कसो?
हांवे परतून मुयेक प्रस्न केलो :
मुये तुका दिसता तरी कितें?

तेन्ना मुयेन म्हाका सांगलें :
म्हाका म्हज्या दोळ्यां सामकार
दिसता फकत इल्लेशें मळब
आनी पायां सकयल चलपा पुरती
इल्लीशी खरखरीत भूंय

हांवे मुयेक सांगलें :
कुस्कुटा येदे मुये
हांव मनीस तुजे मुखार
अगडबंब विशाळ
म्हजी उत्तुंगताय तुका कळपाची ना
हांव तुका दिसपाची गजाल मुये
तूं तुज्या तकलेतल्यान काडून उडय
आमीं एकामकोंक सासणाची अनवळखी

मागीर मुयेन म्हाका विचारले :
हांव जगची म्हूण मनशा
वारो म्हजो स्वास भरता
उजवाड म्हाका वाट दाखयता
उदक-अन्न म्हजो जीव जगयता
भूंय म्हाका पावसा-गिमा-शियांत
माग नासतना आलाशिरो दिता
मनशां हें सगळें तूंच करता?

मुयेचे उलोवप आयकून
हांवे सांगल्यो तिका गजाली
विधात्यान निर्मिल्ल्या
पंचतत्वांच्या विस्मितायेच्यो
चैतन्यान नित्य-नूतन रसरसपी
म्होंवाळ जिवाळ चराचराच्यो
जो चलयता ह्या ब्रह्मांडाचें नियंत्रण

म्हजी ही जाप आयकून
मुयेन म्हाका उजरावन म्हटलें :
अगडबंब अजापी मनशा
हांव तुजे मुखार कुस्कुटायेदी
आनी : "आमीं एकामेकांक सासणाची अनवळखी"
अशें तूं म्हण्टा
तो सृष्टीकर्तो विधातो तुका तरी दिसता मरे?
काय जशी हांव तुका
तूंय ताचे मुखार कुस्कुटा येदो?
आनी ताका सासणाचो अनवळखी?

मुयेची ही अकल्पीत जाप आयकून
हांव सर्वांगान म्हजे भितर
म्हाका सोदीत विरगळत गेलों
जसो कितें हांव
तीच हुळहुळपी मूय जालो!

---

*31–12–2010*

---

36.

## आर्मीं शेवर्णीं

आर्मीं शेवर्णीं
लायटी खांब्याच्या
समांतर सरयांचेर बशिल्लीं
एकामेकांक दुशण दीत

आर्मीं :
एक 'नेगेटीव'
एक 'पोजेटीव'
सरयांवरीच
भिन्न विचारांची

आमी अंतर दवरून
गजाली करया
एकामेकांक
समजून घेवया

बशिल्ले कडेन
आर्मीं आमचें अंतर
मदलेमर्दी दुभंगयल्यार
आमचो जातलो भस्म

आमीं एक जावपाचो
पयली निश्चेव करया
विसरून भेदभाव
तत्वनिष्ठ एके सरयेर येवया

तेन्ना आमची एके सरयेर घडटली
दोन फांट्यांची एक न्हंय
जाल्ली विद्युतभरीत
एकाच प्रवाहान

*23-10-2013*

37.

# गाराणें

देवा सायबा निराकारा ब्रह्मांडेश्वरा
आमच्या वांट्याक आयिल्ले
जिणेचे भोग भोगावळी कर्मकांडां
कडेक काडून सोपय
जिणेंत फुलय निरामय
शुद्ध मेकळी सात्वीक निर्मळाय.

देवा सायबा निराकारा ब्रह्मांडेश्वरा
तुजो घडपाक आमकां दिश्टावो,
घेवपाक समजून
मूळ प्रेरणा - स्रोत जिणे तत्वांचो
तूं आमच्या ध्याना मनान प्रवास करून
आमकां समेस्तांक व्हर
आदी शक्तीचे सानीध्यांत
जंय निनादिल्लो तुजो
पयलो ध्वनी ॐकाराचो.

देवा सायबा निराकारा ब्रह्मांडेश्वरा
तुज्या साक्षात्काराच्या प्रभावान
आमकां जणएकल्यांक लाय नियाळूंक
तुजें चिरंतन अस्तित्व अंतीम सत्याचें
आनी तूं आमचे वरवीं
वावरून कार्य करून
आमकां तुजे भितर एक दीस
सासणाचें आसपावन घे.

*21-09-2008*

38.

## ख्यास्ती

बंदखणींतल्यो ख्यास्ती
साबार तरांच्यो आसतात!

जिवा-बंदखणीच्या
बंद कुडींत मुंगरून
आपले आपूण
आमली कशे चेंपत जियेवप
हीय एक ख्यास्त

अशे तरेचे
“येरें नाशिल्लें व्हडें”
जाल्ले मनीस
जियेत भोगतात
ख्यास्त लख्ख उजवाडाची

तांकां आसतात
रात आनी दीस सारकेच
एका नाण्याच्यो
दोन वटी कशो

तांचे जागेपण
रातीक आंवडेता
तांची न्हिद
दिसाक हुस्केता

असले हे मनीस
जिवा-बंदखणींतले कैदी
लख्ख उजवाडाच्या-काळखांत
फटफटीत
पाल कशे जियेतात

---

*09-04-2012*

---

39.

## इत्सा

अदृष्टा तुवें म्हाका निर्मिला
तूंच जीण घडयत रावला
विलो म्हजो तूंच लायतलो
तुवेंच म्हाका विश्वात्म केला

खेळ्ळा वाडला तुजे भुंयेर
तुजोच ताबो जीव-प्राणाचेर
जिणे पुर्तीच्या पल्तड-तीर्थार
पूल कृतार्था तुवेंच बांदला

निराकार तूं आकार साकारता
स्पर्श अळंग आंगार घोळयता
प्रति - विश्वाक म्हज्यांत निर्मून
म्हज्यांतल्यान तूं वावरूंक लागला

म्हाका सासणाचो तुज्यांत कडय
निमणे घटकेक तुज्यांत मिसळय
तीर्थं काळाचें कुडींत सांचून
"जिणे-कलश" भरत रावला

*27-07-2014*

40.

## सुर्याचें सुक्ष्म ध्यान

करता सुर्याचें सुक्ष्म ध्यान
अचळय सुर्य-उज्यांत लुप्तता
अणभवून म्हजो भस्म जाल्लो
किर्ण रंगयाळें जावन शिंवरता

*08-03-2013*

41.

## हांव हिमालय

हांव हिमालय
एकवटल्लें
संचित विरगळायतां
गंगा जावन धांवता

हांव सुर्या
उज्या केणांचो
सांवार थंडायतां
किरणां जावन पाझरता

हांव कुवाडें
आसुनय
हुबतो बोमाडोसो
अस्तित्वाक साकारायतां

हांव रसायण
चराचरांचें
जावन पिकाळ सारें
पुनर्जल्म फळयतां

*10-06-2013*

42.

## ईश्वरीय हात

भर वता कडार
दांबरी रस्त्यार
पांयांतली व्हाण तुटली

पांय ओडीत
कितें चलतलो?
दुसरीय रस्त्यार सोडली

रावलों चलत
उकत्या पांयांनी
निश्चित स्थानार पावपाक

सायबा भोगोस
पांय रस्त्यार
उज्यान तळतळूंक लागले

तेन्नां कळ्ळें
पांयांतल्यो व्हाणो
पांय कशे सुगूर दवरताल्यो

तेन्नां कळ्ळें
व्हाणो निर्मुप्याचे हात
कितले ईश्वरीय आसले

*08-03-2013*

43.

## रुतू परयो

रुतू परयो नट्टात
शान्त तळ्याच्या हारशांत
ओणोव घालून
पडबिंबां सांठयतात

मर्दींच वाऱ्याची ल्हारां
तळ्याचें आंग शिरशिरायतात
रुतू परयो सावरून
काळाक पांगुरतात

रुतू परयो नित्य
अभिसार मिरयतात
रुतू परयो तळ्याचें
कुळार घडयतात

*08-03-2013*

44.

## कुळार

चान्नें तळ्यार यादेला
चान्नें मनार वियेला
माये-उबेचो सांठो गे
यादीन कुळार पर्मळळा

चान्नें सुखा पेरणी
चान्नें काळा तेळणी
जल्माची जंय गांठ गे
थंय जीव एकरुपला

हांव हांगचें हांव थंयचें
दुवो दोन घर कुळांचें
दोन देगांक जोडून रावपी
संचिताचो पूल जाला

*जून, 2013*

45.

## बोट म्होंवाचें

तुवें लायिल्लें
बोट म्होंवाचें
आजून जिबेर
मिरमिरता

फूल जिवाचें
भितल्ले भितर
पर्मळ सजोवन
मुसमुसता

यादी म्होंवाच्यो
यादी मोगाच्यो
यादी मंत्रल्ल्यो
म्होव्यो म्होव्यो

सुखा फुलांच्यो
लजून हुमकळपी
वेली दिखांच्यो
जिव्यो जिव्यो

*08-12-2011*

46.

## नातू आनी आजो

घरांत नातू जल्माक आयला
घराची नुराच बदलून गेल्या
म्हाका दिसता जशें कितें
म्हजे बाळपण
परतुन जल्मलां

नातू आयलो घेवन
संचिताचो ठेवो
आनी वंशरूखा पेडाचेर
वाडवडलांच्या आशिर्वादा सयत
ताळ, मृदंग, झांज झिणझिणलो

जोडटा हांव
नातवाच्या सहवासान
म्हजें शेणिल्लें बाळपण
कुकुल्या मोव मोव अवयवांनी
सांसपिता बाळपणांतली स्पंदना

नातवा तुज्या सांगातान
खेळटा दायज पुर्वजांचें
तूं आगार आसतना
लोळटा धन कुबेराचें

नियाळटा नातवा तुज्या दोळ्यांत
खोल खोलायेंतलें
अंतरिक्ष थाव लाग नाशिल्लें
निराकारांतल्यान
निराकारांत शेणिल्लें

हें पळोवन दिसता म्हाका
जसो कितें तूं आयला
ह्याच निराकारांतल्यान
घेवन तुजें सगूण रुप
सळसळट्या हालचालींचें

तूं उदारो दिमखुऱ्यानी
फुडें सरून
मळब हातासूंक सोदतलो
तें पळोवन म्हज्या हातापायांक
येतली तरतरी

तूं खुदू खुदू हांसून
जिणेर नक्षत्रां शिंवरायतलो
हिमटे काडून मुसू मुसू रडटना
म्हजी यादस्तीची सतार वाजयतलो

म्हज्या हाताची बडी करून
तूं उबो रावन चलूंक शिकतलो
तेन्नां तुजें जैत
उलोवंक लागतलें
हाची खातरी जातली

तुजो एक एक प्रताप पळोवन
नातवा हांव
तुजे भितर विरगळून
तुजे येदो भुरगो जाल्ल्यावरी
तल्लीनतायेन
आपालिपा खेळटलो

आनी आपालिपा खेळटा खेळटना
म्हजे खातीर उकती जाल्ल्या
पर्जळीत सासणाचे वाटेवेल्यान
तुका चुकोवन एक दीस केन्नातरी
पलतडच्या पेण्यार वतलो...

***15-08-2012***

47.

## मूय

मुये दोळ्यांत
किरणां रिगलीं
मूय सर्वांगान
सूर्य जाली

मूय घडली
पारदर्शी भिंग
मुयेक चडल्या
ब्रह्मांड झिंग

*31-12-2010*

48.

## आंबो घरचो जाण्टेलो

म्हज्या काळमोगी घर-संवसारी
आज्या-पणज्याच्या काळा वयलो
हो गिरेस्त आंबो उदार मनाचो
आपुलकायेन विस्तारिल्लो
दिता वर्सां कणकणीं भरभरून खोंटल्यांनी
सुवासीक आनी सुवादीक आंबे

हो आंबो आमचो घरचो जाण्टेलो
आनी नात्या-गोत्यांतल्यांचो दायजी
वासाळ रोसाळ साकर-म्होंवे आंबे पिकोवन
नेमान उत्पादन काडपी
स्वयंभू कारखानो सैमाचो

पिकास खोरें घेवन
ह्या आंब्याच्या भोंवतणीं खणल्यार
हो हाताक लायता फकत
माती आनी मातीच
माती चिरंजिवी मोव मोव
सुकी ओली चिकचिकीत

हो आंबो पिळग्या-पिळग्यांक
आपणाल्या आंगा खांदार खेळयता
तांच्या जिबे ताळ्यार आपली रूच व्हांवयता
काळाच्या ओघान मुळां कडेन आयिल्ले
रुतू-पर्वांचे मेळ समरसून खेळयता
आनी तांच्या भाव-भावनांनी आपुणूय विर्गळटा
जशी दुदांत मेळची साकर

हो आंबो कोणाची अप्रूप निर्मणी?
कोणाची मनस्वी उत्तुंगताय?
जी मातयेक आनी मळबाक वेंगायता!
कोणे हाच्या भितर भरली
सृजन शक्त सळसळटी
सगलें आंग भारावन
मुखार येवपी काळाक भोगपाची?

कोणाचे ते अदिश्ट हात
जे रूचीक 'रेसिपी' निर्मून
अचळय आंब्या आंब्यांनी रिगयता
आनी करता तांची घमघमीत पिकोवणीं?
हो आंबो आपले तासांदीक कल्पनेन
कोणें साकारायल्लें विस्मित?

---

*04-11-2011*

---

49.

## हांव तणां पातें

धर्तरीच्या कुसव्यांत
जल्म घेतिल्लें हांव तणा पातें

वारो येता धोलोवन वता
पावस येता भिजोवन वता
वत येता सुकोवन वता

सुगूर हांव आवयचे वेंगेंत
वारो म्हाका हुबोवंक शकना
हुंवार म्हाका व्हांवोवंक शकना
वत म्हाका लासूंक शकना

हांव तणा पातें
पळयात केदें व्हड म्हजें नातें

*22-10-2010*

50.

## दनपार माणकां-मोतयांची

सूर्य शिंवरायता माथ्यार
माणकां-मोतयांची दनपार
सावळी झिळमिळ पागळटा

घुंवघुवता भोंवरो जसो
एकचित्त जाग्यार तसो
कळस देवळाचो लखलखता

दिगंत विस्तिर्ण रुखावळ
मुळां थिर शान्त शितळ
भितर साकर-म्होंव पिकयता

चलता, नित्सयान चलताना
पावल पावलार घालताना
काळार प्रसादा कुरू सोडटा

---

*03-03-2010*

51.

## पृथ्वीचे हुलप

पृथ्वी थकल्या
सदाकाळचे तिचे उपकार स्मरून
तिका सुसेग दिवया
ती सुपीक गर्भगिरेस्त आसुनय
तिची नापीक कशी अवस्था जाल्या

तिची बडीची भितल्ली दुखणीं :
केन्ना भरता भुंयकांप थरथरो
केन्ना त्सुनामी हुबयता आवरो
हड्डें फोडून ज्वालारोस केन्ना
घाय जावन व्हांवता

आमीं सुवार्थी कर्मकट्टे
एकामेकांचे गळे अंदीतात
आमचे मर्दीं वंयो, सरादी उबारून
पृथ्वी आवयकच
कण्यांनी खोंटायतात

झुजांनी तिका घायाळ करून
खणटात आमचेच फोंड
मिरयतात सर्वनाश होमकण करपी
क्षेपणास्त्रां, ब्रह्मास्त्रां
परमाणु, रासायनीक, जैवीक बॉम्ब

आमच्या उतळतापान पृथ्वी
खंय उज्या कडान विरगळटा
खंय थंड वाऱ्या पसयेक आशेता
कोणाक सांगतली भोगणार
भितल्ले भितर ती खंगता

पृथ्वी थकल्या
सदाकाळचे तिचे उपकार स्मरून
तिका सुसेग दिवया
भावकेन खंड-म्हासागर लागीं हाडून
तिचे वेंगेंत सर्ग भोगुया

*22-12-2009*

52.

# अणुयुद्ध

अनामीक शक्तीन
केली निर्मणी धर्तरेची
वावर ताच्या प्रयोगशाळेचो
घेतलो मनशांनी आपल्या हातांत

अद्‌भूत तांकीन मनशांनी
केली संशोधनां
दोळे दिपकावपी
मनीस जिणेच्या उत्थानाची

आयज तोच मनीस
निर्मून विनाशकारी अणुबॉम्ब
घेवन तो हातांत फुशारता
झूज करूंक फुरफुरता

अबुद्दपणान तो मनीस एक दीस
अणुयुद्ध घडोवचोना
करचोना धूप धर्तरेचो
शाश्वती दिवंक कोण शकना!

*जानेवारी, 2019*

53.

## निर्मणी काळ प्रक्रियेची

हांव निर्मणी काळ प्रक्रियेची
सजीव निर्जिवेंत जियेतां
जियेवन मनस्वी सजीवेंत
निर्जिवेंत सृजन प्रसयतां

घुसून मोडां धुमशेणांत
मोड जावन धुडघुसतां
तोडून मोडां-फ्युज नेटाचो
कृतीक मोडांचे थंडायतां

रिगून पेट्ट्या ज्वालामुखांत
न्हांवन घेतां उज्या रोसांत
रोसा रखरख आपशी न्हिंवता
घेतच भरून थंडाय पोशांत

हिमालयाच्या झेला तेमकार
गोठे गोठेवन सुप्त गोठेतां
उर्जा जिवाची विरगळावन
गंगामाय जावन धांवता

मारून उडणां अनंतत्वांत
मापता तारे गिरे नीज
आकाशगंगे अक्षय व्हांवतेंत
पेरता जिवाचें ब्रह्मबीज

---

*14-12-2009*

54.

## काळ चिरंतन

काळ चिरंतन काळ निरंतन
काळ प्राज्ञ अदृष्टो
काळ निर्मिता काळ थिरावता
काळ वखवखो नाश्टो

काळार तिगती सतां सुज्ञांची
धुंवन उडयतात खटां
काळा ओघान व्हांवून वतात
सांचून रावील्ली भूतां

उत्क्रान्तीचो काळाक वसो
मुदार जायत रावपाचो
वळखुन काळाची गरज मागणी
प्रेशीत जावन जगपाचो

अश्व-काळाचो ब्रह्मांड रथार
सगलें व्यापून धांवता
अजस्र अंतराळ तासां-ल्हारांनी
विस्तारून रंग भरता

काळ उलयता काळ चलयता
काळ सर्वज्ञ गोचर
काळपुरसाची शाश्वत भोवंडी
धोलता सृश्ट चराचर

*19-11-2009*

55.

## तीर्थ आकाशगंगेचें

म्हज्या मनांत सुचित्त भिंग
तासां संकिर्णांचें
तातूंत अदृष्ट खेळटा रंग
जिणे सुंदरायेचे

म्हज्या मनांत गाबणें बीज
धर्तरेच्या प्रसवणेचें
तातूंतल्यान येता रूजून
झाड कल्पांतरांचें

म्हज्या मनांत धोलता आयणें
सैम संमृद्धीचे
चराचराक अखंड दुवाळे
दिखाळ रूतूंचे

म्हज्या मनांत श्रद्धे पारवे
विश्वशान्तीचे
तीर्थ सगल्यांक वाटीत वतात
आकाशगंगेचें

*01-11-2009*

56.

## हांव दोळे उगडटा

हांव दोळे उगडटा
तूंच म्हजी नदर जावन
सगलें दाखयता

हांव म्हाकाच सोदता
सोदतना भितर विरगळून
तुज्यांतल्यान उदेता

दिवपी तूं दीत रावता
फावना तितलेंय अचळय
काळाक गिळयता

करता करपाचें दान
घेवपाचें तूं निमित्त करून
म्हजी तिजोरी भरता

उभरपी अस्तित्व म्हजें
बुन्यादीचें वास्तव जावन
तुज्यांत थिरावता

---

*31–10–2009*

---

57.

## पावस भिरांकुळ जसो रानाक उजो

पावस भिरांकुळ
पावस ढगफुटींचो...

उदकाचे लोटार लोट
सरभोंवतणच्यान
व्हांवत येवन
घरां-दारां
भाटां-बेसां
गोरवां-तारवां
जीव-जिवावळ
वाटेर मेळटा तितलेंय
व्हांवत व्हरून
दोळ्यां मुखार
जालां निर्माण
आकांताळो दर्या
खपनखायरो
प्रस्नचिन्नांचो
दोंगर रचपी...?

हो पावस भिरांकुळ...!
जसो रानाक पेटचो उजो
आनी तो पेटत वचून
आटापाक ये नाशिल्ल्या
उज्याच्या सांवारान
घेवचें रूप
रान फुकून
उडोवपी होमकणाचें
जो मळबाक तेंकपी
रूखावळींचो काळ जावन
अचळय भकता
दवरून फाटल्यान
तांचो गोबोर निरर्थक

ह्या ढगफुटीन
गिळून उडयला
जिणे ओडीन सारिल्लो
भूत आनी चालंत काळ
दवरून दोळ्यां सामकार
प्रस्नार्थक भविष्यकाळ
वर्तमानाच्या पावलांनी चलपी
जो रावला
जणएकल्यांच्या मनांत
बाळकाचें निष्पाप रुप कशें
जाका चलपाची आसा वाट
जिणे सुगुर्व्याच्या
भविष्यकाळाची...

---

*17-10-2009*

---

58.

## बोकडेची तळमळ

मटनाच्या शॉपा भायर
बोकड्यो भरिल्लो टॅम्पो आयलो
आनी कसाय त्यो देवोवंक लागलो.

तातूंतली एक टुणटुणीत बोकडी
आकांतान बेंबें करीत
सरळ धांवत काकुळटेक येवन
म्हज्या पांयांलागीं कितलो वेळ
म्हाका एकचित्त पळयत घुटमळूंक लागली
म्हाका सांगिल्लेवरी :
मनशा म्हाका वांचय!
मनशा म्हाका वांचय!

हांव निर्विकार कांयच करिना
हें पळोवन ती बोकडी
म्हजे वयली नदर काडून
आकांतान हुयेली मारीत
तिका धरपाक
फाटल्यान धांवत येतल्या
कसायाक चुकोवपाक
जिवाच्या आकांतान नेटान
उडक्यांची व्हड व्हड धेंपा मारीत
पयस धांवत-पळत गेली.

म्हजेलागीं ही बोकडी
न्याय मागूंक आयिल्ली काय?
ती म्हाका कोण समजल्ली काय?
म्हजेलागीं ती अशी कित्याक वागिल्ली काय?
कितें दिशिल्लें काय तिका म्हज्यांत?

मागीर कसायान
ते बोकडेक धरून हाडटकच
ती ताका
बारीक काकुळटेनशी पळयत रावली

कसायान हाडलो सुरो
आनी वागान घालची भक्ष्याचेर घुरी
तसो तिचे मानेर
कचांयच नेटान मारलो
तेन्ना म्हज्याय काळजाचो एक ठोको चुकलो!

अशा ह्या दारूण निमण्या खिणा वेळार
ते असहाय बोकडेक
कसायाचे करणेविशीं कितें दिशिल्लें काय?
तिका भितरल्यान कितें भोगिल्लें काय?

हें येवजितनाच
ती बोकडी म्हजेभितर संचारिल्लेवरी
म्हाका म्हज्या मनांतल्यान
प्रस्नार प्रस्न धोंगसूक लागले :

ती बोकडी निमण्या खिणार
येवजिताली काय ? :

"कर्मधर्मसंयोगान
मेळ्ळो जरी म्हाका फुडलो जल्म मनशाचो
आनी ह्या कसायाक कसल्याय जनावराचो
आनी घडली आमची भेट
अशाच अटीतटीच्या प्रसंगार
आनी तें जनावर रावलें म्हज्या सामकार
निमण्या खिणार अशेच असहाय अवस्थेंत
जाल्यार हांव ताका
दाखोवन आमची वळख ह्या जल्मांतली
करून दितली याद आयच्या दिसाची
आनी भोगशीतलीं ताका वेंग मारून
जिवाभावाच्या नात्यान
आनी करतलीं ताका मुक्त
क्रुर बंदपासांतल्यान
मनयत ताच्या सांगातान 'जिणे-उत्सव'
सांगून जिणेचो अर्थ, जिणेची व्हडविकाय."

खरेंच बोकडी निमण्या वेळार
अशें येवजिताली काय?

---

*2010*

---

59.

## छत्रपती शिवाजी महाराज टर्मिनसांत संत कबीराच्या सांगातान

2 ऑक्टबर 2008
हो महात्मा गांधींचो 139 वो जयंती दीस.
ह्या महात्म्यान संवसाराक दाखोवन दिल्लें :

'अहिंसा म्हळ्यार भिवकुरेंपण न्हय
तर ती शक्त जैताची,
जी शस्त्र जावन हातासता जैताक'

ही तांची शिकवण
मनीसकुळयेक अर्थ जोडून दिवपी.

ह्या आयच्या दीसा
हो विचार घोळयत हांव मुंबय
सरता भितर 'छत्रपती शिवाजी महाराज टर्मिनसांत.'
आनी लोकांच्या चोंब्यांत वेळ घालयत भोंवतां
म्हजी रेल्वे 'कोंकण-कन्या' सुटपाक
बरोच कळाव आसा देखून.

भोंवता थंय कानार सादतात उद्घोष
हांगच्यान साबार प्लेटफोर्मांवेल्यान
सगल्या दिकांनी वचपी रेल्वेंच्या वेळांचो.

तशें लोक चोंब्या-चोंब्यांनी येवन
आपले रेल्वेंत घुसून धरतात वाट
आपल्या पावपाच्या थिकाणाची
'सुटलो बाबा एकदाचो' ह्या अर्थान.

लोक, जिणेंत चडशे रावतात करीत धांवाधांव
तांची जीण फकत धांवपा खातीरच कशी.
तें धांवप खंय आनी कित्याखातीर,
योग्य काय अयोग्य
हांची तांकाय जाणविक
आसल्यार आसता वा नासताय बी.
हांचें धांवप जशें कितें
'हे धांवनात जाल्यार जातलो व्हड अनर्थ संवसाराचेर'
ह्या अर्थाचें शे.

हे एकसारके घसघसपी, फसफसपी लोकांचे गर्देंत
हांव आसा अनवळखी सगल्यांक
जशे तेय म्हाका अनवळखी.
आनी विचार केल्यार दिसता
जशे कितें हांव एक हुमलो
शेणला कसो अनवळखी हुमल्यांच्या माल्यांत?

पुणून ना!
हांगच्या बुकस्टॉलार भेटलो म्हाका संत कबीर
घेवन आपली 'भजनावली'
मनीस जिणेची धोंगांपोंगां दाखोवन
जिणे वस्त्र सजोवपी,
बंद पडिल्ली ध्याना मनाची कुलपां उगडून
माणकां मोतयांची खण उगडपी.

हांव भर गर्देंत बसून
तल्लीनतायेन चिप्प भिजून
अणभवतां ह्या छत्रपती शिवाजी महाराज टर्मिनसांत
माणकां-मोतयांच्या खणींतलें एक एक रत्न
संत कबीराच्या सांगातान...

---

02-10-2008

---

टीप : ही कविता हांवे 'छत्रपती शिवाजी महाराज' टर्मिनसांत बसून 02-10-2008 दिसा बरयल्ली. थंय अशें वातावरण दिसपट्टें आसता. ह्या टर्मिनसांत 26-11-2008 दिसा रातच्या आठ वरांचेर सुमार आतंकवाद्यानी हल्लो करून आकांताळी परिस्थिती निर्माण केल्ली. तेन्ना थंय लोकांचेर कितें भिरांकुळ परिस्थिती उप्राशिल्ली आसतली हाची तुळा हांव, हांवे थंय सारिल्ल्या दिसाकडे करता, तेन्ना आंगार कांटो उबो रावता.

60.

## गांधीजींचें सपन

गांधीजी सपनांत आयलो
आनी आपणाल्या
फामाद तीन बावल्यांचें
प्रात्यक्षीक दाखोवंक लागलो :

वायट पळोवं नाका
वायट आयकूं नाका
वायट उलोवं नाका

हांवें गांधीजींक सांगलें :

पळयता थंय चडशें
वायटच दिसता
वायटच आयकूंक येता
हांकां तोंड दिवपाक
कितें करपाचें आसता?

हाचेर गांधीजीन सांगलें :

नाका वायटांचें समर्थन
वायट तें वायटच सदां
नाका जोडूं
वायटा लागीं बरेपण

वायट करतल्यांच्या काळजांत
पेटय ध्येय, निष्ठे,
खरेपणां वात

हाडूंक परिवर्तन
लाय पेटोवंक
वातीन वात

हातूंतच उदेतलो दीस
सोपून रात

आनी मागीर तांकांय
लाय म्हणपाक :

वायट पळोवं नाका
वायट आयकूं नाका
वायट उलोवं नाका

---

*29-12-2009*

---

61.

## मूर्त रूप कवितेचें

कविता :
अज्ञातातल्यान
आकाराक हाडटा उतरां

उतरां धवळून उडयता
मुंगरून उरिल्ल्या
भाव-भावनांक

उतरां मन पांदऱ्याचें
दार उगडून
विशालकायेंत संचारता

कविता :
मूर्त रूप घेवन
धर्तरिचेर राज्य करता

---

*08-01-2018*

---

62.

## मुयो

मुयो करतात
पुरुमेंत जिणेचो
घडयतात आपलो
फुडार आपुणूच

आपणावन सहजमार्ग
जावन विरक्त
जियेतात जीण
आत्ममग्नतायेंतूच

---

*01–02–2019*

---

63.

## ब्रह्मतत्त्व अविनाशी

बागेंत अनवाणी चलतना
पांयाक कुचकुचीत
कांटो तोंपलो

फातरार बसून तो कांटो
काडून हातांत घेतलो
तेन्ना तो कांटो
म्हाका सांगपाक लागलो :

ह्या बागेंतलो हांव
कितल्याश्याच कांट्या मदलो
एक दुर्लक्षीत कांटो

हांव तुका तोंपलो
आनी दिली तुका
म्हज्या अस्तित्वाची
सणसणीत जाणविकाय

आता म्हाका एक सांग
हांव निर्जीव आसुनय
तुका असुदाय तोंपलो
म्हूण तूं म्हाका सजीव म्हण्टलो?

काय स्थूळ सुक्ष्म कणाकणांत
सजीव निर्जीवेंत
आसता आसपाविल्लें
एकच ब्रह्मतत्त्व अविनाशी
अशें मानतलो?

*26-01-2019*

64.

## म्हजे पुनर्जल्म

हांव नुस्तें जातलों
झाड जातलों, झाडावेलें फळ जातलों
माडावेलो नाल्ल जातलों
वचत थंय पावत थंय
रूजत फळत रावतलों...

विर्यतलो हांव
मातृत्व फळवपी योनींनीं
नुस्तें, जनावरां, जीव जिवाणूं
वनस्पतींच्या प्रसवपी आंगांनी

हांव मनीस मरतलो
सारें जावन कण कण म्हजो
हजार वर्सां
नवे नवे पुनर्जल्म
घेत रावतलो

*फेब्रुवारी, 2019*

**प्रकाश दामोदर पाडगांवकार**

**जल्म : 04 डिसेंबर 1948**

**उजवाडाक आयिल्ले कविता संग्रह :**

- ***उजवाडाचीं पावलां*** – 1976 – कोंकणी भाशा मंडळ पुरस्कार 1977
- ***वास्कोयन*** – 1977 – कला अकादमी गोंय पुरस्कार – 1978
- ***हांव मनीस अश्वत्थामो*** – 1985 – साहित्य अकादेमी पुरस्कार 1986, कोंकणी भाशा मंडळ पुरस्कार 1985, कला अकादमी गोंय पुरस्कार 1985
- ***"I Am Man Ashwatthaman"***

  इंग्लीश अणकार साहित्य अकादेमी नवी दिल्लीन उजवाडायला. अणकार करपी : डॉ. एस. एस. कुलकर्णी, डॉ. किरण बुडकुले
- ***कविता : काळ रेल्वेच्यो, मन हारशांच्यो, पावसा पाणयाच्यो***– 1993
- ***सर्ग घडपाक धतरिचो*** – 1994
- ***व्हांवती न्हंय काळाची*** – 2003 – डॉ. टी. एम. ए. पै फावंडेशन उत्कृष्ट ग्रंथ पुरस्कार 2005
- ***ब्रह्मांड–योगी चिरंतनाचो*** – 2008
- ***'चिरंतन ब्रह्मांड–योगी'*** हिन्दी अणकार सृजन विश्व प्रकाशनान उजवाडायला. अणकार करपी : डॉ. एल. सुनीता बाय.
- ***पुनरार्थोपनिशद*** – 2014
- **देवाचे चान्नें** (भुरग्यां खातीर कविता) 2016
- ***दाण्या येदी धर्तरी*** – 2020

## साहित्या खातीर लाबिल्ले भौमान

- गोवा कोंकणी अकादेमीचो 'कोंकणी साहित्य आनी भाशा सेवा साहित्य प्रतिभा पुरस्कार.'
- डॉ. मनोहरराय सरदेसाय लोककवी 'बिम्ब' पुरस्कार.
- बोरी विकास प्रतिष्ठान संस्थेचो 'कवी बाकीबाब बोरकार स्मृती पुरस्कार.'
- कोंकणी कला साहित्य केंद्र कुडचडें 'स. नामदेव नायक स्मृती जीवन गौरव पुरस्कार.'
- वास्को - गोंय हांगा जाल्ल्या 16 व्या अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनाचो येवकार अध्यक्ष.
- कोझिकोड केरळ हांगा जाल्ल्या 22 व्या अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनाचो अध्यक्ष.
- डॉ. चंद्रलेखा डि'सोझा हाणीं 'धर्मवीर भारती और प्रकाश पाडगांवकार की कविताओं का तुलनात्मक अध्ययन' ह्या विशयाचेर गोवा विद्यापीठांत प्रबंध बरोवन पीएच.डी उपाधि जोडली.
- गोंय सरकाराचो राष्ट्रीय थराचेर सांस्कृतीक योगदाना खातीर राज्य पुरस्कार.
- गोंय सरकाराचो साहित्याच्या मळार भरीव योगदाना खातीर राज्य सांस्कृतीक पुरस्कार.



## म्हजें अस्तित्व

फाल्यां हांव
आसलों कितें नासलों कितें
कोणाक कसलोय फरक पडूं
वा ना पडूं
अशों हांव म्हणचो ना

हें विश्व-ब्रह्मांड
म्हज्यांत भरलां
हांगच्या कणाकणांतल्यान
म्हजें आस्तित्व पर्जळलां
हांव तातूंत भरसलां

हांव जियेतलों जावन
सैमाची सृजन प्रक्रिया
हांव अजरंवरत मुरतलों
जावन तत्व ब्रह्मांडाचें
ब्रह्मांडाच्या मातृ-शक्तीचें

प्रकाश दा. पाडगांवकार

20-09-2009




ISBN : 978-81-932594-1-2

